# आडवणांतले उले......

○ प्रकाशन क्र. - २
○ पयली खेप : १९९१



○ उजवाडावपी :

मित्र प्रकाशन
किटोलें - बेतोडें
फोंडे - गोंय ४०३ ४०९.

○ छापपी :

सम्राट प्रिंटर्स
बाणस्तारी - गोंय

○ चित्रकार :
श्रीधर कामत बांबोळकार

○ मोल : ३० रुपया

जांच्या पायांन

म्हजें पयलें पुस्तक

इतले बेगीन उजवाडाक येंवक पावलें

ते ॲड. श्री. हिरबा गावणेकार

हांका मायेमोगान -

## उपकाराचीं उतरां.....

'आडवणांतले उले' हें म्हजें पयलेच कवितांचे पुस्तक उजवाडाक येता. काव्यरसीकांमुखार म्हजें पुस्तक पावता तें पळोवन म्हाकां उपाट धादोसकाय भोगता.

हें पुस्तक प्रकाशीत करपाचें वझें 'मित्र प्रकाशनान' उबाल्लें. तेच वांगडा ॲड. श्री. हिरबा गावणेकार, डॉ. सोमनाथ कोमरपंत, डॉ. श्री. शं. फडके, श्री. नागेश करमली, डॉ. प्रल्हाद वडेर, श्री. रवींद्र म्हार्दोळकार, प्रा. केशव सद्रे, श्री. कृष्णनाथ अळवणी, प्रा. वसंत सावंत, श्री. सतीश दळवी, श्री. गुरूनाथ केळेकार, श्री. मुकेश थळी हाणीं सगळ्यांनी म्हाकां पुस्तक काडपाचो धीर दिलो. आनी हें पुस्तक उजवाडाक येंवक पावलें. देखून हांव काळजांतसावन तांचो उपकारी आसां.

श्री. रवींद्र म्हार्दोळकार हाणी पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवन दिली आनी चित्रकार श्री. श्रीधर कामत बांबोळकार हाणीं पुस्तकाक फावो अशें चित्र काडून दिलें. उक्त्याक आंगलें चडोवन सोबीतकाय हाडली तांचें रीण म्हज्यान कशें पावोंवक जायत ?

'सम्राट प्रिंटर्स्' बाणस्तारी हाणी हें पुस्तक बरेतरेन छापून दिले. देखून तांचोय हांव उपकारी आसां.

किटोलें, बेतोडें. **भालचंद्र गांयकार**

# ''आडवणांतले उले'' कानांर सादतना....

आयच्या तरनाट्या कवी पिळगेचेर नदर भोंवडायली जाल्यार कोंकणी काव्यरूख खऱ्यानींच बेसबरो चंवल्ला अशेंच म्हणचें पडटा. आपलें फाटले 'उज्वल' दायज सांबाळून, आपल्या ताकीप्रमाण तांतून आपली खाशेली अशी भर घालून ही नवी उदेती पिळगी पावली मारतना दिसता. कोंकणी काव्याक ओतो आयला, आनी येयत आसा हाची गवाय मेळटा. पूण हांतूतले कितले कवी - कवियत्री काळावांगडा तिगतले; आनी कितले काळावांगडा नाच्च जातले, हें आयच्या घडये जरी सांगप कठीन आसलें, तरी जे कवी नीज प्रतिमेन आनी आपणाल्या अश्या खाशेल्या नीज शैलीन बरयतात, तांचें स्थान अबाधीत उरतलें हातून मात्तूय दुबाव ना. ह्या वळेरीन आस्पावपी एक कवी म्हळ्यार म्हजो इश्ट बाब भालचंद्र गांवकार. तांचो ''आडवणांतले उले'' हो काव्यझेलो आयज उजवाडा येता ही कोंकणी कवितेच्या नदरेन एक बरी गजाल. कित्याक तर ह्या कवितांतल्यान कोंकणी कवितेन घेतलेलें एक येशस्वी मोडण पळोंवक मेळटा. म्हणून पयल्या सुवातेर हांव तांच्या ह्या काव्यसंग्रहाक येवकार दितां आनी ताच्याच वांगडा हो झेलो कोंकणी काव्यरसिकांमुखार पावोवपी 'मित्र प्रकाशन' बेतोडें हांचेंय हांव अभिनंदन करतां.

''कवी-कवियत्री वांगडाच वाचप्याचें मन आनी काळीज तोंकयता, काळजाक हात घालता आनी खीणभर हालयता आनी मागीर तिचेर विचार करूंक प्रवृत्त करता ती खरी कविता'' अशें वाचलेलें; ताचो खरेपणी प्रत्यय बाब भालचंद्र गांवकार हांची ह्या झेल्यांतली कविता वाचताना येता. ह्या कवीचो रोखठोकपणा, जीणेक सामकारा वचपाची हाडामांसान भिनलेली धिटाय, जीणेन येवपी वायट-बरे, कडू-गोड अणभव घेवपाची, आनी ते पचोवपाची ताच्या कुडीची आनी मनाची तांक आनी त्याच ताकीन अणभवांक उतरांनी बांदपाची कुशळताय वाचप्याक भावता आनी वाचपी ह्या 'भौरंगी-भौढंगी' 'नटरंगी' कवितेन घुस्पता. 'आडवणांतले' हे 'उले' तांच्या कानार सादतात. सादत रावतात. आनी हे उले आडवण हुपून कानाचो थाव घेता घेताच काळजामेरेन पावतात.

गोंय मुक्ततायेउप्रांत जल्माक आयिल्ल्या उदेत्या पिळगेचो हो कवीन प्रतिनिधी. हाकाच लागून स्वातंत्र्याउपरांतच्या पिळगेची जीणेंसपनां, आशानिराशा, भ्रम-निरास, उमाळे - उत्फर्के, हुंडके - सुस्कारे, हाची वास्तव चित्रां कवी ह्या कवितांनी रेखता. चित्रिकान कुंचल्यान रंगाच्या आलाशिऱ्यान कॅनव्हासार सृष्ट जीवी करची, त्याचप्रमाण हो कवी हीं 'अक्षर-चित्रां' काडटा. कवीच्या कवळ्या भावजीणेचो हो 'आल्बम' अशें म्हळ्यार अतिताय जावची न्हय. तरनाट्या कवीमनांची ही भावस्पंदना, अशेंय म्हळें तर लटिक थरचें न्हय.

स्थूलमानान ह्यो कविता 'हांव' 'तूं' 'ती' 'आमी' आनी 'ते' हांच्यामदींच घुस्पतनां दिसता आसली तरी तातुतल्यान मनशाच्या मनाचीं कवाडां उक्तीं जाल्ली दिसता. हे मन थोडेभोव आत्मनिष्ठ, आत्मलक्षी, तरीय तटस्थपणान जीणेकडेन पळोवपी, तटस्थपणान जीण जगपी म्हणुनूच या मनाचो, ह्या 'स्व' चो विकास हांगा खिणांखिणांक जाल्लो दिसता, मनाच्यो कक्षो रूंद जाल्यो दिसतात. हो कवी संवेदनशील. तो काल्पनिक जीणेन वावरना, आत्मकोशान जियेंना, तर चोंयवशीच्या 'सत्य' परिस्थितीचें भान दवरून तो जियेता. म्हणून तो बरोवन वता -

''एकदीस....
माल्यांत वाती भिजयतनां
तेलांत आपलें पडबिंब पळोवन
वाती न्हय
तिच्यो वान्साच जळल्यो......''

(हावेसपिशी)

हो कवीन भौसातलो, अंत्रुज म्हालातल्या सोबित सैमरंगी किटोलें - बेतोडें सारख्या गांवगीऱ्या जीणेंन वाडलेलो; तरीय नागरी जीणेकडेन संपर्क दावरून आशिल्लो; सैमाचे रंगरूप पियेंवन भावसमृद्ध जाल्या सौंदर्याकडेन नातें आशिल्लो. हाकाच लागून ह्या कवितांनी सैमाचीं विंगड-विंगड 'चित्रंगी' रूपां पळोवंक मेळटात. केन्ना केन्ना तर हो सैम जीवो तटतटीत मनशाचें रूप घेवन वावुरता. ह्या कवीक निळ्यो पांचव्यो दोंगुल्ल्यो साद घालतात. पांचवीचार शेतां, हळदुवीं कणसां दोळ्यांक थाकाय दितात, शितळ खारोवारो मन भुल्लुसायता आनी मागीर तो बरयता -

''कोगळा पिलान सूर धल्ला
आत्म्या रूखां तेमकार
ताणूंन धल्ल्या
वाटेर दोळे दिवंक तुका येवकार''

(येवकाराक)

त्याचखीणा आयच्या संवसारात मनशाचेर जावपी अन्याय, हांगचो अनाचार, भ्रष्टकार, राजकर्ण, हांगच्या संस्कृतायेचो, नितीमत्तेचो, मूल्यांचो जावपी ऱ्हास. जाकालागून समाजजीणेची बुनयाद नेमतना पळोंवन आनी ह्या सगळ्यांतल्यान फुडाराक उप्रासपी संकष्टांची सुलूस लागून हो दृष्टो कवी व्यथीत जाता. तांच्या ह्या व्यथेची, दुःखाची खराय ताच्या अंतरमनाच्या हुंकारातल्यान प्रगट्टा. जीणेतले हे दुःख व्यंगात्मक तरेन दाखयतना तांचे दोळे पाझरता, तेन्ना ही व्यथा फक्कत ह्या कविचीच उरना तर कवीवांगडाच वाचप्यांच्या काळजांकूच ती झोंबता. ती वाचप्याच्या काळजाचो थाव घेता आनी मागीर हो अंदून उरिल्लो वोग 'व्यथेची कथा' जावन सगळ्यांच्या शिरंतरांतल्यान व्हांवूक लागता. शितळ सैमाचेंच तेन्ना आगटें जाता. ते काळजान धगधगूंक लागता. दोळ्यांनी इंगळेच रसरसतात पूण कांय खीणूच.... कित्याक तर हो कवी जायतो सोशिक, थंड .... हाकाच लागून हेरांसारकी हो कवी बंडाची घोषणा

करीना, विद्रोहाची भाषा उलयना .... पूण मानवतावाद, मनीसपण, समाजिक मूल्यांचो सोद घेवपी कवीच्या ह्या कवितेक खर अणभ्मवांची निबरसाण आसा हें वाचप्याक होलमता. आनी हाकाच लागून ही कविता वाचप्यांचे मन वोडून घेता....

"पावसा, तूं येवंन गेलो...
सड्यावेल्या अनाथ रूखां
दिवन आधार वालीचो
पावसा तूं....."

(पावसा तूं येवन गेलो)

केन्ना केन्ना कवी अशें म्हण्टा तर केन्ना होच कवी जीणेतली विरोधाभास दाखोवपी भावना,रोसान चिप्प भिजून उत्कट अणभ्मवांक म्होवाळ ल्हंवपोक उतरांनी बांदपी कविता बरयता. केन्ना केन्ना ही कविता मार्मिकतायेक लागून उंचेल्या पांवड्यार वता. ह्या कवीक जीणे विशी एक कुतुहल आसा. जीणेचेर मोग करपी हो कवी. ताची एक प्रिया आसा. त्या प्रियेच्यो खुबश्यो मोगा कविताय ह्या झेल्यान आसात. मोग हो तसो मनशाचो स्थायीभाव. मोग मनशाक जिवो दवरता. अश्या ह्या उपाट मोगान भरिल्लो हो कवी आपल्या जीणेची 'सपनफुलां' फुलोवपाखातीर धाय दिकांक नदर लावन बसता. तेन्ना मागीर ह्या कवितेन रोमँटिक सपनवादूय थोडोमोव दिसुन येता -

"आनि.... तुजी दर एक अतुश्ट नदर
तुश्ट जावपाक युगांच पांवचीना
आसा तयारी ..... ?
तुजी दिश्ट तुश्ट करपाची ? "

(असा तयारी)

तसो कवीचो हो मोग तारूण्यसुलभ. थोडो सफळ, थोडो विफळ. मोग विफळ जालो तरीय हो कवी त्या व्यथेन लेगीत समादान मानता. मोगाचीं विंगड-विंगड रूपां, उत्कट प्रेमभावनेचो, आशानिराशेचो खेळ ह्या कवितेन हांगा दिसता. मूळांतूच हो कवी सैमीक. ताकालागून मागीर या मोगान सैम येता. सैमान मोग भरसून वता....

"चान्ने रातचें गवसल्लें....
चान्ने रातचें खवसलें
आयज म्हज्या मळबरन्द्रांत
पुनव आसूं.... अुमास आसूं
आठूय पार, चान्नेंच चान्नें...

(चान्नें)

अशेंय कवी म्हण्टा पूण कवीचें हें कवळें मन फुडें 'मेल्लें' दिसता. आनी मागीर त्या मेल्ल्या मनशाची अवतिकाय हांगा येता. तेन्ना वास्तव अणूभूतीचो स्पर्श ह्या कवितांक जाता. कवीचीं 'सपनफुलां' वास्तवजीणेच्या तळपट्या सड्यार बावतात तेन्ना जीणेची निसाणी कवीक होलमता आनी कवीचें चिंतनशील मन कवितांतल्यान उक्तें जाता -

''आकांताचो उजो मरे !' मनीस एकटो म्हण्टा....
कडेक एका झाडापोना
'चरवाक पेटलो उजो'... म्हुण
मोने गोरू रडटा''.

(कवनां)

अशा ह्या ''तकलुपी'' संवसाराचेर बडी मारता मारता जीणेचे तत्वगिन्यान सोदप, जीणेतल्या निमण्या सत्याचो सोद घेवप ही कवीची वृत्ती आनी नदर हांगा जाणवता. ह्याच वृत्तीतल्यान कवीमनावांगडा समाजिक मनूय उबें रावता .... तातून आक्रस्ताळेपणा येना हाका लागून जीणेचो सूक्ष्मार्थ ही कविता उक्तायतना दिसता.

''खंय तरी पयस पयस
दोंगरार एका
सूर्य तळपेता
आनी हांगा
काळखी रात वेंगावन चंद्रीम
वीर्य गळयता.

(चंद्रीम)

केन्ना-केन्ना असो वेगळो मूड (भाव) कवी प्रगटायता. ही सगळी कविता एकली एकसुरेपणान जीणेचो वेध घेना, ती अवास्तव सपनांक वेंगायना; हालीच्या तेंपार कवितेन मुखेलपणान दिसुन येवपी, जीणेश्रद्धेक न्हयकारपी शून्यवादी नदरूय ह्या कवितेन खंयच सोदून लेगीत मेळना. म्हणूनच -

''हें आडवण ..... ?
आडवण न्हय तें ; ते इतिहासाचें पान...
थंयचे फातर ..... थंयची झोपां;
मातीन रावलां उगडासाचें रान

(आडवण)

अशें एक सत्यय कवी उक्तें करून दाखयता. ह्या कवीक उजवाडाचो ध्यास आसा. त्याचप्रमाण हो कवी आशावादीय म्हणपाचो हांगा दिसून येता -

''आनी हांव शून्यात घुस्पलां
दोळ्यांत प्राण हाडून
वाट पळयतां शून्य फुटपाखी''

(वाट पळयतां)

अशें तो म्हण्टा वा दुसऱ्या एका कवितेन होच आशावाद वेगळ्यारीतीनूय येतना दिसता -

''ती चलत रावली....
घेवपाक सोद एका अदिश्ट सपनांचो

कोणाक न बाडगतां
दवरून थीर ध्येय ..... ! ''

(अुजवाडाची वळ)

ही सगळी कविता वाचतना एक दिसुन येता की आशयाक हो कवी म्हत्व दिता. अभिव्यक्तीकूच तो तीच सुवात दितना दिसता. पूण आकृतीबंधाक तो चड म्हत्व दिना आनी हाकाच लागून कांय कडेन आशय आनी अभिव्यक्तीच्या नदरेन बरीच वयर गेल्ली कविता कलात्मकतेक लागून मार खातना दिसता.

तशें कवीचें वय हें संस्कारक्षम आसा. ह्या वयार कुड्डी अनुकरणप्रियता आसपाची शक्यताय आसता. पूण ह्या कवीच्या कवितांचेर मात तसो कोणाचोच खाशेलो असो प्रभाव दिसुन येना. वेल्यान ह्या कवीन पूर्वसूरींचे संस्कार पचयल्यात म्हणपाचेंच दिसून येता. ह्या कवीक स्वतःचें अशें नीज खाशेलेपण आसा. ''ओरिजिनालिटी'' आसा. कवितेची जाण आसा; काव्याकडेन पळोवपाची आपली अशी खाशेली नितळ नदर आसा. म्हणूनच घडये तो कोणाचेंच अुनकरण करपाच्या भानगडींत पडना. ही खरीच तुस्त करपासारखीच गजाल. हो कवी आपली अशी खाशेली वाट सोदतना दिसता. पोन्ने संकेत मोडून वडोवन, पोन्नी चौकट मोडून वडोवन नवीन कितें तरी घडपाची थिटाय आनी ताक ह्या कवीन आसा म्हणपाची सुनशा ही कविता वाचतना लागता. आपले कवितेविशीं कवी सांगता -

''म्हजी कविता... दोळ्यांतलीं दुकां
काळजाचीं थिकां....
म्हजी कविता .... वेतभर चवनां,
घायांची कवनां
असोंस वेदना .... म्हजी कविता''

(म्हजी कविता)

खऱ्यानीच अशीच ही सगळी कविता आसा.

भाशेची सहजताच होय ह्या कवीचो आनी कवितांचो विशेष. ह्या कवितेची भास थळावी, घरावी भौसभास ही. लोकजीवीताकडेन, लोकवेदांकडेन साधर्म्य दाखोवपी अशी भास ह्या कवितांतल्यान दिसता. ह्या कवीक शब्दांचो ..... उतरांचो सोस ना. म्हणून तो शब्दबंबाळ जायना. ''सौंदर्यवादा'च्या भकीक पडत जडगुळो उतरां वापरून तो कवितेचो आत्मोय गुदमरून वडयना. तशी ही कविता 'अल्पाक्षरी' तरीय अर्थघन, अश्या थोड्याच उतरांनी व्हड आशय व्यक्त करपी. ह्या कवितेतल्यान कवी नवीन उतरांचोय प्रयोग करतना दिसता. देखीक ''झिलमिळ सुलूस'' ''उजवाडाची वळ'' ''अदिश्ट'', ''रक्ताळ सांज'' आदी नवीन उतरावळूय हांगा पळोंवक मेळटा.

आकृतीबंधाप्रमाणेच कवी सांकेतिकता, रूपकां, प्रतिमा प्रतिकांच्या फाटल्यानूय गेल्लो दिसना. कवी पोन्ने संकेत कुड्डेपणांन आपणांयना. ज्यो प्रतिमा, प्रतिकां, रूपकां

तो वापरता, त्यो सगळ्यो प्रतिमा, प्रतिकां, रूपकां एक नवो अर्थ घेवन येतात. त्यो नवो अणभव दितात.

ह्या कवितेक गती आसा. एक तरेचो नाद आसा. जो कवितेतल्यान आपसुकूच निर्माण जाला. कांयकडेन कविता थोडीभोव गद्यमय जाल्ली आसली तरीय वृत्ताचें तिका मान आसा. मुक्तछंद होय एक छंद हाची कवीक जाणवीकाय आसा. ह्या कवितेक आंतरीक लय आसा. ताल आसा. तरीय आसतना अनुप्रास, यमकां, मूर्तीशिल्पां, अळंकार, छंद हांच्या फाटल्यान कवी मुद्दाम जावन लागना. तांचो अट्टाहासय धरीना. ''कमी कलात्मक पूण चड उत्कट'' अशेंच ह्या सगळ्या कवितांचे स्वरूप. अशें आसूनूय हातूंतल्यो कांय कविता वाचप्याच्या जीबेर घोळसारक्योच आसात. हेंच ह्या कवितांचें, ह्या कवीचें खाशेलेपण म्हणचें पडटले. तशी ही कबिता प्रयोगान घुस्पल्या; पूण तरीय लेगीत ती दुर्बोधतायेसावन पयस आसा. आनी सगळ्यान मुखेल आनी व्हड गजाल म्हळ्यार प्रयोगशीलतेनूय ही कविता संकेतमुक्त जांवक पावल्या. वेल्यान सामकी सादीसुदी दिसपी पूण वाचप्याक अंतर्मुख करून विचार करूंक लावपी अश्या ह्या कवितेन आत्मतृप्ततायेचो सूर आनी निरूस कडू अणभव जीवे तटतटीत जातना दिसतात. आत्मनिष्ठ मनाक ग्रासून वडोवपी सुखदुःखाच्या संवेदनाचें पुराय चित्रण हांगा ह्या कवितांतल्यान घडटा. तसोच व्यक्ति आनी समष्टी हांचेमदलो विसंवाद्य हांगा दिसता. आनी म्हणूनच सुर्वेकूच हांवे म्हळ्याप्रमाण आत्मनिष्ठपण हे ह्या कवीचें बळस्थान थरता. ह्या बळस्थानाचो घडीघडी अणभव ह्या कवितांतल्यान मेळटा. म्हणून जांवये घडये, सैमाच्या चित्रांनीलेखीत हांगा आत्मानुभुती भरसल्ली दिसता. सर्वसमृद्ध खिणांचो प्रत्यय ही कविता वाचप्याक घडयता; अशें म्हळ्यार लटीक थरचें न्हय ! कवीच्यो ह्यो कविता म्हळयार ''उलोवपी'' तरीय 'मोन्यो वळी' -

> ''वळी वळी,
> ह्यो मोन्यो वळी,
> तांची भासूच निराळी,
> तोंडार हाशें आनी
> दोळ्यांत नदर मुदयाळी.''
>
> (मोन्यो वळी)

पूण कवीच्यो ह्यो ''मोन्यो वळी'' मोन्यो उरच्यो नात. त्यो उलोंवक लागतल्यो. तांचो आवाज आडवणाभितर तर घुमतलोच पूण ह्यो 'बेतोडे'चें 'आडवण' हुपून भायर वतल्यो. दिकोदिको सादयतल्यो.... गाजयतल्ल्यो; हातून म्हाका इल्लोय दुबाव ना. हे 'आडवणांतले उले' कानार सादतनां हाचोच प्रत्यय येता. तो तुमकांय सगळ्या रसिकांक येतलो. कवी बाब भालचंद्र गांवकार हांचेकडल्यान आमच्यो अपेक्षा बऱ्योच आसात; त्यो पुराय जांव हीच निमाणेकडेन इत्सा !

म्हड्डोळ - १४ जानेर, १९९२ — रवींद्र रमाकांत म्हाड्डोळकार

# मांडावळ

म्हजे उले...



तुजे उले...

## मोन्यो वळी

आंकवार कळयांच्या
भावमोन्या ...
काळजांतल्यान पाझरलेल्यो
ह्यो मोन्यो वळी ...
सांगूक सोदतात अनवळखी
कळी
पूण ...
भावमोन्यो ...
ह्यो मोन्यो वळी
तांची ...
भासूच जगावेगळी
तोंडार हाशें ...
आनी दोळ्यांत नदर मुदयाळी

परमळपिश्यो ....
ह्यो नादपिश्यो
थंय भोंवर भोंवरती
गळ्यांत तिच्या
अमृत थेमे ...
शिंवर शिंवरती
सांगूक येनात
ह्यो अनवळखी कळी
भावमोन्यो ह्यो मोन्यो वळी

वळी वळी ह्यो
मोन्यो वळी ...
तांची भासूच निराळी
तोंडार हार्शे ....
आनी
दोळ्यांत नदर मुदयाळी.

## म्हजी कविता

म्हजी कविता ना दिगंतरा ... ना वसुंधरा
म्हजी कविता
म्हज्याच काळजांत
दिवली जावन .... अळंग तेंवता

म्हजी कविता
ना गर्भवती .... ना सौंदर्यवती !
म्हजी कविता
नागडी - उगडी
भायल्या वस्तरांनी नेटयल्ली
भितर तश्शी ... तश्शी !

म्हजी कविता
अर्दी शिज़िल्ली ... अर्दी कर्पल्ली !
म्हजी कविता
निर्जल्ली पेज कशी
गरिबाच्या वाटलेंतली
कश्टांतल्यान उपजल्ली

म्हजी कविता ...
दोळ्यांतलीं दुकां
काळजाचीं थिकां
म्हजी कविता
वेतभर चवनां
घायांची कवनां
असोंस वेदना !
म्हजी कविता ...

## रक्ताळ सांज

ती अेक अशीच रक्ताळ सांज ....
आनी दर्या .....
रक्तशेंदूर माखोवन सर्वांगार
ल्हारां तालार
सरगमता .....
अबळीक 'गाज' नावांचे
'सूर' आळयता !

कोण जाणा
ती सांज आयज
कितल्या 'सांजा' पोना चेपल्या
पूण ती सांज मात
दर अेके सांजेक
आपलेपोना चेपीत रावल्या
..............
.............
.............
आयचे हे सांजेचे साक्षेंत
म्हजी तंद्री ..... सदांवरी
तुजो सोद घेवपाक
दर्याचो अथांग तळ
सासपीता.

# अुगडासांच्या जागरणांत

अुगडासांच्या जागरणांत
मन झेमेता .....
हुस्क्यांमेकळ्या पैलतिरार
तंदरी सपनेता ..... !

अुगडासांतलीं दिवजां अशीं
रात पेटयता ....
सपनांतुल्या काळा पदरांत
मोगरीं गुठलायता

अेक पिशी, याद अशी
आंग शिरशिरता ....
आयस - पयस पडींग मळार
जोगुल जोगलायता ....

म्होंव्या भविष्य पांगरूणांत
भूत घुस्पता ....
याद अेकेक गडगडून
दडक शिंवरता ....

अुगडासांच्या जागरणांत
मन झेमेता .... !

## चान्ने

चान्ने रातचें गवसल्ले
चान्ने रातचें खवसलें
आयज म्हज्या मळबरन्द्रांत
पुनव आसूं .... अुमास आसूं
आठय पार
चान्नेंच चान्नें !

## अक्षरफुलां

म्हज्या ह्या ....
अक्षरफुलांचो शिंवर
तुज्या पोशयांत
साचोवन दवर !

कळयो फुलतल्यो
पांकळ्यो झडटल्यो
तेन्ना ....
हींच फुलां
तूं हूंग
तुज्या काळजाक
पाझर फुट्टलो
आनी .....
केन्नाच कळूंक नाशिल्ल्या
उतराचो अर्थ
अळंग ....
तुका कळटलो.

## जीण

हांव ...
म्हजी जीण चितारतां.
जिणेत म्हजे ....
कांय पांचवे दोंगर
कांय निळे दर्या ....
कांय खडपांनी भरिल्ल्यो
वांकड्यो - तिकड्यो खळयो
आनी केन्ना - केन्नाय
गच्च कुपांनी भरिल्लें....
गोबरें काळूस मळब !
आनी उपरान्त ....
जोगलांच्या कुरवांनी
गडगड जावन
पडपी ....
त्यो दडकांर दडको !

म्हजे जिणेंत ....
अस्तमलेलो सूर्या !
आनी ....
अमाशेचे काळखे राती
लिकलिकत्या ...
नखेत्रांच्या उजवाडांत
आडखळत .....
चलपी म्हजीं जिणेचीं पावला !
ओगीच ....
अेक यत्न म्हूण ....
जीण उजळ करपाचो
म्हजी जीण चितारता.

म्हजे जिणेंत
कितलिशींच मोडां
आनी, सरणाची ....
तयारी करपी हुंवार !
त्या सरणांत जळटा ...
मरणा आदली म्हजी कूड !
म्हजी जीण !

# भावरंग

मळबाच्या
बदलत्या कोरांत
म्हज्या .....
भावनाचे रंग
कुपां जावन
जोगलायतात !
तेन्ना
पयल्या पावसाचे उमेदीन
ते दडकेंत भिजपाक
कोण्ण .... कोण्ण नासता
हांव अेकटोच
आनी .....
सांगाताक म्हजें
पिशें मन !!

# पुंजा

आयज म्हाकां वचचें आसा
समींदरा पार
पुंजावन हाडूंक - माणीक मोतयां
घडोवंक तुका हार

चान्ने राती वचन वयर
नखेत्रांचे लागसार
घालूंक शितोड नखेत्रांचो
सोबित तुज्या केंसार

भरतेवेळार दर्या देगेर
झेलीन केदीय वसाड
न्हाणोवंक तुका सांगातान
धरून म्हों‌वाळ हाताक

कोगळा पील धरून हाडीन
बसलां आम्या रूखार
गीत तुजें रंगोवपाक
आयज ताच्या सुरार

यो बेगीन धादोस जावन
सूर्य वता अस्ताक
जिनसो सगळ्यो आशेल्यात
खुलोवंक तुज्या रूपाक.

## चान्न्याचे तळयेंत...

चान्न्याचे तळयेंत
हांव न्हालो !
सामको हुस्क्यांमेकळो न्हालों !
तेन्नासावन
आयजमेरेन
असो हांव ओलो ... ओलो
म्हज्यांतलो मनीस
म्हाकां केन्नाच सोडून गेलो !

## काळजाची भरती

काळजाची भरती
अुतरांनी चितारतनां
अुतरां ....
मोटवीं ... मोटवीं !
तांची अुडी
काळजाच्या तळाक
पावंचना.
.......
भरतेच्या वसाडींनी ....
तीं बुचकळटात
तडीर येवन फुट्टात
आनी ....
निमाणचे कांय तुषार
आनीक .....
कांयच ना ... कांयच ना !

# फाटल्यो यादी

यादी यादी फाटल्यो यादी
मणी मणी गळसरी
सूख-दूख, गोड-कोडू
उगडासांची सरपळी

कांय मणी शेणले रानी
अस्कडांतल्या झोपांनी
कांय मणी वयलेवयर
झोमून घेतले चोरांनी

कांय मणी दर्या तळा
वेंगायले ल्हारांनी
कांय मणी उगडासांतल्या
काळ्या - कोंगऱ्या केसांनी

मणी मणी शिपडले
संवसारभर पोरसांनी
पोचे भरून पुंजायले
सपनांतुल्या सुकण्यांनी

आयज मणी एकवटून
जीण परकी सरपळ्यांनी ...
जिणे दोरार कोडू - गोड
म्होंवे - विखे मणीच मणी

## कविता

कश्टल्ल्या, अुबगल्ल्या
किणेल्ल्या काळजांतल्यान
असोंस वेदनानीं ....
तळाच्या खोल घोटेरांत
बांदून उरिल्ले ....
दोन पारवे उडून वचचे
तशीं म्हजीं काय उतरां
नाका जाल्लीं ... असोंस अशीं
भायर सरतात !
आनी तुमी पिशे ....
म्हाकां 'कवी' म्हण्टात.

## म्हजो पूत

हो म्हजो पूत म्हणपाक
काळीज म्हजें धजना !
दोंगरा येदे विचार ताचे
गिन्यानाचो पोटलो तो
खरेंच आयज पावल म्हजें
धतरिर धरना .....

भुरगेपणांत थापटाभयान
पयसावलो !
बापूय-पूत म्हणपाइतलो
ताचो म्हजो संबंध
शेतांतल्या चिखलाचो वांस
ताच्या नाकांत परमळवपाक
कितले भूय-पाशाण फोडले हांवेन
पूण ....
पोर म्हाकां बदलोच ना !

पोर पेनान कागदां चित्रावपाक शिकलो
धव्यार काळें करपाक लागलो
पूण .... नांगरान धर्तरी चित्रावपाक
शेकड्यांनी तपां शेणलो .... !

हांवेन एकदीस किंवाट्यान
हिका म्हळें, ....
'माथ्यार बसयला ताका
पळोंवया ...
कितले पेटयता ते दिवे
काय लायता ते .....
वंशाक कवदे ? ! '

तिणें .. जाप म्हूण
आख्ख्या संवसाराचो आंवाठ
वेगावपी एकेच नदरेन
म्हजेकडेन पळयलें
इतकेंच !

एकदीस मात
हजारांनी नखेत्रां वेंगायत ....
सूर्य - चंद्रिमाचो उजवाड
पोटांत लिपयत
येवपी .....
एका उजवाडाचे जोगलावणेन
हांव सामको दिपवलो !

दोळे चोळीत ....
दिपकावल्ले नदरेन
हय, हांवेन खरोच पळयलो
मुखार .....
म्हजो माडायेदो पूत !

खिणाभीतर तो बागवलो
ताणे म्हज्या पायांक हात लायलो
तेन्ना ....
म्हजें काळीज ....
खिणात दर्या जावन
ल्हारांचेर सांवार आयलो !

## काजुले

लाख लाख नखेत्रांचे दिवे
तेळपी
म्हजे दोन नेत्ररूपी काजुल्ले
आयज सामके दिपवल्यात !
हालीं अशेंच जाता ....
काजुल्ले
आपलो अुजवाड
पालोवन बसल्यात.

# आयज परत सांजवेळार ....

आयज परत सांजवेळार
उक्त्यो जाल्यो फाटल्यो यादी
खंयसून आयलां, खंय पावलां
खंय उरलीं ....
ती उगडासांतलीं बाबलीं ?

हो दिश्टावो, ते दिश्टावे
आडवणांतले उल्यार उले
काळासायत ....
विरत गेले .... विरत गेले
आडवणांतुल्या सर्गासयत
आसमंतांत घुमत गेले !!

आयज तुजें तूं ना
म्हजो हांव ना....
उगडासांतल्या बावल्यांची
शेतामेरेर भेजरणीं जाल्यांत
..... आनी ती आडवणांय
आयज दिसनांत
घडये तांचीय सांजवेळ
जाल्या जांवचे !

## अनर्थाचो अर्थ

सगलेंच अजाण !!
अनर्थाक अर्थ लांवंक
पुराय रात ....
दोळ्यांत आयज जागता !
वयर अवकाशात
नखेत्रांचीं दिपरत्नां
आनी ....
धांपिल्ल्या त्या दोन दोळ्यांत
दोन पेट्ट्यो वाती ...
अनर्थाक अर्थ लायतात !

.... फाटले उगडास
आनी भविश्य सपन ...
तें सपन
सपनूच उरलें जाल्यार ?
ना ... उरचें ना
आनी उरलेच जाल्यार
सगल्योच राती काळख्यो ...
दाटिल्लीं कुपां फुटून ...
तीं आसमंतातलीं...
नखेत्रां !
केन्ना दिश्टीच पडची ना.

मागीर दडकां फाटल्यान
दडको ....
आनी दोळ्यांत जागपी
राती !
तांका अंत .... ?
तांका अंतूच ना.

# वेदना

जगावेगळ्यो वेदना ह्यो
कोणाकूच ना कळच्यो
काळजाचो थाव घेत
खुट्टात, कळयो दोळ्यांतल्यो !

त्या वेदनांनी ..... ?
काळजाक येता,
दर्यावरी भरती
आनी ते भरतेर
तडीक आपटुपी ल्हारां
गर्जतात ... खोकेतात
उस्वासांच्या रूपान !

ते उस्वास आनी हुस्कारे
भायर आयकूंक येतात
पूण भितर ....
काळजाक आपटुपी
ल्हारां .... ?
तीं कोणाकूच दिसनात
कित्याक तर .... ?
तांका रूपच ना
मात तांचें अदृश्य रूप ?
काळजाचो थाव घेता !

# पावस

असो हो .....
मुसळधार
पावस पळयतकुत
केन्नाय दिसता
ह्या पावसांत भिजून
सामकें चिप्प जावचें
आनी .....
त्या
थेम्या - थेम्यांत
अेकरूप जावन
धतरिर
निश्चेष्ट पातळचें.

## अुमाळो

काळजांतुलो अुमाळो ....
वसाडीचो खतखतो
ना गाज,
ना वाज,
अुत्फक्यांचो थाव सोदपी
अेकटुलो,
दोळ्यांतुलो दुका थेमो !

## शून्य

हांव चित्तां -
हांव चित्तां तेन्ना
म्हज्या विचारांक आंकऱ्यो फुट्टात
चैतर चंवरता, कोगळां गायता
मनांक म्हज्या पिशें लायता
निळे निळशे, म्हेळ म्हेळशे
वाऱ्या तालार दोंगर हालते
खळखळ खळयो, व्हाळ धांवते
परमळ हाड्टात कवासे फुलते
चंवर हे सपनांतले ....
दिसतात सदां अशेच उरचे.

पूण हे चवथीचे दीस
खंय तरी फुट्टा ...
अेक गर्नेल
आनी म्हजें सपन विरगळून वता
आनी उरता शून्य
विचारांच्या तेंगशेवेल्यान
हांव पड्टां तेन्ना
हांव शून्य, शून्य जातां.

## म्हेळ पडबिंब

म्हज्या
विचार बुरसट मनांत
तुजें निर्म्हेळ पडबिंब
म्हेळ ... म्हेळ दिसता !
आनी ...
सत्याक आशेल्लें मन
परकी जग लुचता !

# जिणेक अर्थ ना

जिणेक अर्थ ना
मरण पैस आसा
देखून .....
अुगडासांचें रान पेटोवन
कुड ....
जळोवपाचो यत्न करतां .

## अमुरपिकी सांज

नितळ दिसता
म्हाका ....
तुज्या दोळ्यांत देंविल्ली
अमुरपिकी सांज !
आनी अस्तमत्या सूर्याक
निरोप दिवपी
तो लजेस्त गुलाल !

कशी सांगू ..... ?
कशी वर्णूं .... ?
तोखेवं ती तृप्त सुंदरताय !
सगलें ... सगलें ...
फट आनी अडेचें
तिका पिवपाक
म्हजे दोळेच जाय !

ते अमुरपिके सांजेत
लिपल्या ....
कुरवानी खुणावपी
काळजाक जागोवपी ...
अेक ....
ल्हवपीक नदर

आनी ....
ते नदरेंत
ब्रह्मांडाचें शुन्य करपी
जादू !

## म्हजें जैत

जिवीताच्या फाल्गुनांत
केन्नाय तरी
रूखाचीं झड्टीं
पिकीं पानां
मोजपाचो वगत तुजेर येतलो !
तेन्नाच तुका
चैतरांतल्या ...
ऐन जोरगतींत-म्हज्या सांगातान
खुटील्ल्या ...
शिरंगार आंकऱ्यांचो
चोम्यांनी अुगडास जातलो

अुगडासांच्या .....
भरतेभारान
तुज्या काळजांत अंदल्ल्या
अुमाळ्यांच्या फुगार भावनांनी
दोनूच दुकां
तुज्या दोळ्यांतल्यान
गळ्ळीं जाल्यार .... ?
............
ताच्याय व्हड
म्हजें जैत
आनीक कित्यांत आसा ?

## आमोरेच्या घोटेरांत

आमोरेच्या घेटेरांत
संवसार गोठेता
आनी ....
आमच्या अप्रूप संवसारांत
सूर्या किर्णां फाकयता
तेन्ना ....
तूं .....
चंद्रीम आनी असंख्य
नेकेत्रांकडेन बोट दाखयत
म्हाकां खुणायता ...
ओंठ हालयत
मोन्यांनीच सांगता
'आमीं थंय या'.

तुजीं मोनीं उत्तरां आयकून
हांव हांसतां .....
भानाविरयत हांसतां
आनी .....
तुका नेकेत्रांच्या पोरसांत
भोवंडावपाक ....
हांव पाकां लायता.

तेन्ना .......
चान्न्याच्या म्हेळ उजवाडांत
तुज्या अर्द - अुक्त्या
दोळ्यांत
चाळयतात म्हाकां
लाख नेकेत्रां .... !

## मोल

तूं .....
म्हाका मोलायतनां
म्हजी .....
आस्पत मोलावं नाका
.........
म्हजें काळीज मोलाय.

# .... तो वसंत फाटीं पडला

आयज म्हाकां वायट दिसता !
तुजे जिवीतांतली ....
खोशी ....
हांवे करपयली

रूखार ....
रूखभर बळपी
तुज्या मनाची वाल
माणकुल्या कळयांसयत
हांवे निर्दयतेन
मुळासकट ....
हुमटावन काडली.

आनी म्हज्या ....
विकार वान्सांचो
शिरंगार करपाक
हांवे ती वाल
म्हज्याच भोंवतणी
रेवडायली.

अवकाशांतलीं ....
नखेत्रां पुंजावपी
तुजे ते ....
अनंत हात
हांवें ....
मोटवे मोटवे केले !
आनी .....
कोण जाणा ?
बापडीं ती
नखेत्रां .....
खंय खंय शिपडून पडलीं ?

आयज .....
तुजें मन
बावलां जातलें !
मुखामळार ....
शिपडलेलो गुलाल
हांव जाणां
अडेचो शिरंगार तो !
वाऱ्याच्या झुळकेर
फुलून टवटवपी
फुलाचो परमळ ....
वेगळोच आसता !

परत अेक फावट
तुका तशें पळोवपाक
म्हजें मन आवंडेता
पुणून हांव जाणां
तो वसंत
केन्नाच फाटीं पडला.

# काव्यचंवर

मोगांत तुज्या सुखावतनां
कवीत .....
वांवभर पयस रावलें
आतां मात विरहांत
तें ......
रसरसून चवरलें

# पालवाचे गाठीक

तुज्या पालवाचे गाठीक
हांव सासपीतां
म्हज्यो फाटल्यो यादी सामक्यो करमेल्ल्यो ....
पूण .....
तिका त्या गांवची
वळखूच ना !

ते पालव .....
वाऱ्यार हुबल्यात
आनी अथिर पतंगांक
सांगात दिंवक
दिगंतांत बुडल्यात
आनी तांका घुस्पटलेलें
म्हजें 'सर्वस्व'
वाऱ्यार वारें जावन
सासणाचें वाट चूकलां.

तुज्या पालवाक
त्या वाऱ्याची वळख ना
वाऱ्यार वारें जावचें सोडून
तो तुका पोटलायता !
तेंच म्हजें जैत ....
खीणभर त्या गांवचो
म्हज्या अथीर मना
विसर पडट्रा

आयज तो गांव पयस
खूप पयस !
दोळ्यांआड
पूण एकूच खंत
तो .....
उगडासांचें घर सोडपाक
तयार ना !

ताका हांव सासणाचो
तुज्या पदरांत
गुठलांवक सोदतां !

## तुजीं पाखां

तुज्या पाखांक
पुराय मळबाचो आंवाठ
म्हज्या पाखांक मात
म्हजोच सांगात !

# येवकाराक

पारजातकान घाला
फुलां शितोड
आयज म्हज्या दारांन
जिखून धरूंक
पावलां तुजीं
पायजणांच्या सुरान

कोगळा पिलान
सूर धल्ला
आम्या-रूखा तेंमकार
ताणून धल्ल्या वाटेर दोळे
दींवक तुका येवकार

उदकां कोणीं
कावळो न्हाता
केदोळसावन आयज
परकी वाठार
कळीत करूंक
येंवक तुका सामकार

धादोस भरीत
जावन आयज
सपनांत तुजो मोगी
कान सावरून
घेता सरांव
सांगता रांवक ओगी.

# परदूक

कितले आशेन रावलों तुला
दिशिल्लें म्हाका ....
तूं फुलतलो, फळटलो
पारदकावरी परमळटलो
पूण तूं फुल्लोच्च ना जाल्यार
परमळ तरी खंयचो येतलो ?

पळोंवक तुजे हाण्डीर फळां
कितलों हांव आवंडेलो रे
कितलो हांव आवंडेलो
पूण कुसवो तुजो उजवचे पयलीं
कळोच तुजो बावून गेलो
कळयेचें फूल जालेंच ना जाल्यार
कसो रे तूं फळटलो ?

दुख तुवें लिपयले तरी
नितळ म्हाका दिसता रे तें
धादोसकायेचें रूपडें पांगरून
कितलो म्हाकां फटयतलो ?
अशींच कितलीं युगां आनीक
असोच म्हाका निर्शेयतलो ?

## तुजे अुस्वास

तुज्या
अुस्वासांची हुनसाण
म्हज्या रगतांत भिजता
हुस्क्यांमेकळें न्हाण .....

आनी
रगताचें ल्हार
उचांबळ जाता
चुमूक तडीची मेकळेसाण !

# झिळमीळ सुलूस

आशेचीं किर्णां हांयसवपी
एक झिळमीळ सुलूस ....
असंख्य दोळ्यांत
आपलें रूप नियाळटा
आनी
कश्ट, दगदग ....
खिणात शून्य जावन
एक निराकार पण्टी
संवसार दिपयता !

झिळमीळ सुलूस ....
तुजें झिळमीळ रूप
अळंग ....
पोश्यांत ओंपता
आनी संवसारांतले एक सपन
सपनांत पिशें
आपली कात सोड्टा.

## नदरेंतली ओलसाण

तुज्या नदरेंतली ओलसाण
म्हज्या खोल घायांचेर
भोवणांव नाका .....
ते घाय पेखपाचे न्हंय !
.......
.......
.....
ते घाय असले ओलसाणीन
उजो जावन .....
जीण लासपाचे !

# आसा तयारी ... ?

उलोवपाचें निमीत करून
म्हजें मुखामळ नियाळपी
तुजी अतुष्ट नदर ....
खिणउमाळ्यांनी तुश्ट जांवचीना
तिका दोन जिवीतां
अेका निर्जीव अुतराखातीर
सासणाची ओंपची पड्टलीं ....
आसा तयारी .... ?

आसा तयारी जाल्यार
बुडून वचूया ....
त्या चार दोळयांच्या
अेका तळ्यांत
जंय दिश्ट आसचीना
ना झेम, ... ना मस्ती
थंय ... फक्कत
तुज्या ... म्हज्या
सपनांची ओली वस्ती !

थंय आसचीना ....
ना वळख ... ना पाळख
ना खिणयाळीं अडेचीं वस्तरां
थंय फक्कत
तुडुंब तळयेंत
दोन शून्य जीव !
रूपांत रूप भरसून कुरूप झाल्ले !

थंय तुज्या दोळ्यांची दिश्ट वचून
तुज्या आंगापांगाक
दिश्ट फट्टली
दिश्टावो जातलो
तुज्या शिरंतरांक, नव्या संवसाराचो ....
आनी ....
तुजी दर एक अतुश्ट नदर
तुश्ट जावपाक
युगांच पावचीना !

आसा तयारी .... ?
तुजी दिश्ट तुश्ट करपाची !

# जोरगत

जोरगतीचे भरते भारार ....
तुज्या .....
रन्द्रां रन्द्रांतलो चंवर
म्हजेर शिंवर घालता
आनी ....
त्या शिवरांत हूंवरून
हांव सांवरे तां ...
तेन्ना तूं ....
तुश्टतायेच्या दर्यांत
वल्लें मारता.

## नखेत्रांगण

हें अुतरांचें नखेत्रांगण
तुका ओंपूक ...
कवना,
हांव तळमळटां !
पूण ....
अुतरांच्या धाग्यांनी
तुका आकारूच येना.

# तुज्या वोतांत

तुज्या वोतांत
म्हजी सांवळी
कर्पून वता ...
तशेंच केन्नाय
तुजें वोत, म्हजे सांवळेंत
शियान कुडकुड्टा !

# तुज्या रित्या कपलार

आयज .....
म्हज्या उक्त्या दोळ्यांक
तुज्या रित्या कपलार
म्हजें मर्ण दिसलें !

आनी
कोणाक तरी लागिल्ले
म्हज्या मर्णाचे दुवाळे
मर्णाविणेंच
म्हाका मर्ण दिवन गेले

## हावेसपिशी

असंख्य ...
पण्ट्यांची दिपरत्नां
पेटोवपाखातीर ....
तिणे जल्मभर वाती वळ्ळ्यो.
मजगतीं,
तिच्या ....
जुवान कुडीच्यो काती
पिक्या पानांवरी गळ्ळ्यो
आनी .....
अेकदीस
माल्यांत वाती भिजयतनां
तेलांत आपलें पडबिंब पळोवन
वाती न्हय ....
तिच्यो वान्साच जळ्ळ्यो !

# पांयजणाचो आवाज

त्या पांयजणांचो आवाज ?
कानांत आयज घुमता !
आनी .....
चवरूक लागता
काळजांतलें तें बाविल्लें पोरसूं

अनंतांत थिरावन दोळे
हांव पळेयता
तातूंत भितर ....
साळकावरी तुजें काळीज
म्हज्या काळजार
भोवणायता मोरापाखां

आनी ..... ?
आनी तो अळंग स्पर्श
म्हज्या कानाकडेन
फुतफुतता, उस्कारे सोडटा

त्या उस्काऱ्यांतल्यान
परत एकदां
भायर सरून एक किटाळ
काळजांत म्हज्या जोत पेट्टा !

त्या पांयजणांचा आवाज ... ?
कानांत आयज घुमता !!

# अदिश्ट

आयज सगलेच कुडे जाल्यात

........

तिच्या दोळ्यांतल्यान
उडशी ....
त्या अतृप्त
पारव्यांक पळोवपाची
उपरसत ....
कोणाकूच ना !

तिचे उत्फर्के .... ?
उज्यांतले किटाळेवरी
तांबडे भडंग जावन ....
तिचें काळीज दागतात !
आनी .....
जिवें काळीज, निजिव जावन
सगळें सोसता ...
कर्पल्ले जिणेर उदक शिपडायत ... !!

तिचे .....
उस्वास आनी सुस्कारे !

.....

त्या उस्वासांत लिपलां
संवसारा भायलें ....
तिचें दुख ....
अदिश्ट !

## ती नदर

हांवेन ती नदर पळयल्या
ते नदरेक दोळे नांत
विश्वाचो थाव ना
परतुपाचो गांव ना
तिका आसता तो वाव
त्यागाचो ....
सर्वस्व ओंपपाचो

ते नदरेच्या घायांनी
ऐकदां ....
काळीज हाललें जाल्यार
नदरे पलतडच्या
विश्वा बगर
ताका थारो ना !

## गोंयची संस्कृताय

शेतांत कुणबी, हातांत नांगोर
माडार रेंदेर, हातांत काती
घुमटां तालार कांतरां, काणी
म्हज्या गोंयची संस्कृताय ती

नातरांक बसोवन माणयेर आजी
आमोरे वेळार वळटा वाती
दारांत - दारांत पेट्टा पणटी
म्हज्या गोंयची संस्कृताय ती

शिगमो, धालो, कालो, फुगडी
गोंयची दिवाळी वर्सासंकी
जाणट्या, नेणट्या, गिरेस्तांची
म्हज्या गोंयची संस्कृताय ती

दोंगर, मळां, दर्या सांगाताची
गोंयची भूंय भांगराची
झाडां - पेडांनी शिरंगारलेली
म्हज्या गोंयची संस्कृताय ती

वैर-उबगण अजाण जाल्ली
पुरायेन रसरसलेली
जाणट्या - नेणट्यांक देख हिची
म्हज्या गोंयची संस्कृताय ती.

## तें फूल

तें फूल परत फुलचें ना !
कितलेंय वाऱ्या
खेळय ताका
आतलय ताका, मातलय ताका
बावलें तें, सोंपली पिराय
परत तें टवटवचेंना
तें फूल परत फुलचें ना !

रावलें कितलें फुलून तें
उपाटसाणेन परमळ्ळें
नटून-थटून व्हंकलेवरी
लजेन सामकें मुरगुटलें

कोणेंय तरी चुमचें म्हूण
येवकाराची वात जळयत
वाटसरून हुंगचें म्हूण
अभ्रेकणयेन वाट पळयत.

पुणून तें वाटेवयलें प्रस्नचिन्न ?
कुशीक केन्ना सरलेंच ना
तें फूल परत फुल्लेंच ना

आनीक थेंबे रचनू दंवा
काळीज ताचें भिजोवं नाका
टुकांवरी-थिकां दाखोवन
अुगडास ताचे जागोवं नाका

आयज तुमचे दयेन परत
बोंगो रे तें जांवचें ना !
तें फूल परत फुलचें ना.

## हुमरो

तो हुमरो हुपूंक
ते हुमऱ्यार ....
ती तिश्टता !
पूण,
ते हुमऱ्यार आसात
असंख्य काटे ....
आनी पसवल्लें अस्कड !

तिचें मन, तिच्यो भावना....
तिजे निर्जीव कुडींत
तळमळटात.
भितल्ले भीतर ....
तिचो छळ जाता
तें हुमऱ्यार !

मदींच मनांत येता
तोडची ही बंधनांची साखळी
आनी .....
मोडची ही .....
भावनांचेर जैत जोडपी वणत !

पूण ? ...... पूण ?
सगलेच प्रस्न !
आनी
प्रस्नचिन्हाच्या कवणेंत
हुमकळपी तिची मान !
.....
ते हुमऱ्यार !

## प्रवासी

खिणाभितर लावन गोडी
कितल्या तरी युगांची
खंय तूं गेलो राया
संवसारांतलो प्रवासी ?

आकुळ-पिकुळ करून म्हाका
दाखोवन खोलाय मोगाची !
विसरून उगडास, सोपूत तुका
लागली नदर कोणाची ?

अमांशेच्या जिवीतांत म्हज्या
दुट्टी पूनव फुलयली
काळजान काळीज वचून लेगीत
गांठ कशी सैल जाली ?

जांव राया, निरोप तुका
काणीं म्हज्या सपनांतली
काळखा कुडीत उगडास दितली
म्होंवाळ तुज्या उतरांची

संवसारांत वता थंय
सदांच राव सर्वखोशी
देवाक हांव आंगयतां
ओंपून एक मोगान ओंटी

परतून केन्नाय चुकून हांगा
तुकाच म्हजी कूड उक्ती
वाट तुजी पळयतलें
मिणमिणटली जिवी पण्टी !

## हो प्रवास

हो प्रवासूच असो
सामको नवलांचो
मेळटा तें लुटीत ....
शेणटा तें विसरत वचपाचो
हो प्रवास .....
केन्नाय अचकीत
जोगूल जावपाचो !

हे प्रवासांतले वांगडी
वेगवेगळ्या बसींतले प्रवासी
एकटो एक्सप्रेस बसींत
दुसरो पायांक चकरां लावपी
एक - एकटो
वेग - वेगळ्या वगतार ...
वेग - वेगळ्या थळार ..
निमाणेकडेन पडींग मळार
सगळ्यांचो गोबर जावपाचो

हो प्रवासूच असो
सामको नवलांचो !

## वाट पळयतां

तुमी सगळे
शून्य फोडून भायर सरले
आनी एकअेक
आंकडो गुंथीत
सर्गाचीं सपणां चडले.

आनी हांव
शून्यांत घुस्पवलां
दोळ्यांत प्राण हाडून
वाट पळयतां
शून्य फुटपाची !

## चंद्रीम

खंयतरी पयस पयस
दोंगरार अेका
सूर्य तळपेता
आनी हांगा .....
काळखी रात
वेंगावन चंद्रीम
वीर्य गळयता

## सपनां

ताणीं पळयलीं
अेकमेकाच्या
लोमक़ळट्या दुकां थेम्यानीं
फुडाराचीं सपनां .....
भूतकाळाच्या ओझ्यापोना
अजून चिड्डत
पांय आवूळपाचो यत्न करीत !

ताणीं सोसलां !
दुख काळजांत पोसलां
अणभवाच्या
खर उज्यांतल्यान
ताणीं
होमकण जिकलां
तन पिकलां
पूण मन
हळवेंच पांचवेला !

अेकेका दुका थेम्यांनी
तांच्या विस्वाचो आंवाठ
थेम्यांत थेम भरसत
अजून अंदता गाठ !

## पोसो

आपल्या पोश्यांत
संवसार गुठलावपाचो
कांय जाण यत्न करतात
ते वेळार
आपल्या पोश्यांत
आपुणूच पोटलावना
हे ते साप्प विसरून वतात.

आपल्यावेल्यान ......
संवसार पारखुपाचो विसरून
ते ......... आपल्याक विसरून
संवसार पारखितात

तेन्नाच ते शेणल्यात,
शेणूटात ........
अेकटे ..... अेकटेच !

# पावसा तूं येवन गेलो

पावसा तू येवन गेलो
शितोड घालून
न्हाणोवन आमकां
सोपूत तूं दिवन गेलो !
पावसा तूं .....

पावसा तूं येवन गेलो
निर्मळ करून
भूंय - रूखां
दुशितांचो हुंवार केलो !
पावसा तूं ....

पावसा तूं येवन गेलो
तानेल्ल्यांची
तान भागोवन
दवरून फाटीं निर्मळ झरो
पावसा तू ....

पावसा तूं येवन गेलो
पांचवें करून
सैम सगळें
आंथरून आमकां गालीचो !
पावसा तूं .....

पावसा तूं येवन गेलो
सड्यावेल्या
अनाथ रूखां
दिवन आदार वालीचो !
पावसा तूं .....

पावसा तूं येवन गेलो
घेवन लागीं दोन मनां
मोगाचो लावन दिवो !
पावसा तूं ......

# शिरशीर

चान्नें आसूं .... काळखी आसूं
चोर पावलांनी येता
अेक अचकीत शिरशीर
खोल खोल लुट्टा
संवसार सगलो पेट्टा
धर्तरी आनी मनीस ....
हांचो संबंधूच तुट्टा
निमाणे .....
तो ताकाच सोदता
तेन्ना .....
मळबार मळबभर
शिपडायल्लीं नेखेत्रां
मुमुरख्यांनी हांसतात.

## हे पास

हे पास .....
आनीक आवळून घे
असत्याची निबरसाण
घडये हांगाच खुंयुय
लिपल्या आसूंये

दोरयेच्या कवणेंतली कळसुली
बांयत केन्नाच पडना
कित्याक खबर आसा ?
जाप सोपी.....
कळसुली जितली हुमकळटा
तितली....
ते दोरयेची कवणी
आंवळटा !

न्हंयत न्हंयभर पातळायल्ल्या
जाळांत .....
कितलें नुस्ते आसतलें
हे पळोवपाक आमकां
सगळें जाळ
एकठांय करचें पड्टा !
अथांगांत सत्याचो थाव मेळना
सत्याचो खरो थाव
आमकां मेळटलो जाल्यार
सत्य - असत्य दोनूच
उज्यांत घालून
आमकां चाळची पडटलीं
असत्य उज्यांत तग धरचेंना
सत्य उज्यांतल्यान
भांगर जावन भायर येतलें !

देखून म्हण्टां ....
हे पास
आनीक आवळून घे !
विस्वाची गांठ जायसर !

# किटाळ

किटाळ करडार उडट्रा ...
आनी,
सगळें मळ पेट्टा....
तेन्ना .... ?
तेन्ना, धर्तरिचें काळीज जळून
विपरीत गजाल घड्टा.

'आकांताचो उजो मरे !'
मनीस अेकटो म्हण्टा ....
कडेक अेका
झाडा पोना,
'चरवाक पेटलो उजो' - म्हूण
मोनें गोरू रड्टा !

## अेक झाड

धुकें पडूंक लागलां !
अेक झाड .....
दवांत चिप्प भिजून
रूतून्हाण न्हालां !
सूर्याच्या .....
अमुरपिक्या किरणांनी
पानान पान लजलां !
कसल्यातरी ....
अनामिक सुखाक
झाड भुकेलां
पूण .....
झाडाचें आंगान-पांग
वेंगायल्ल्या
वालीचें मूळ
कालुच कोणीतरी कापलां !

## त्या निळ्या उदकांत

... त्या निळ्या उदकांत
दिशिल्लें म्हाका ...
म्हजें पडबिंब
म्हेळ शें ....
सपन जशें
तरी जाल्लें भिजून चिंब.

... त्या निळ्या उदकांत
पेट्टाली म्हज्या
फुडाराची वात
आनी ते वातीच्या
झिळमिळ्या उजवाडांत
झळकताली वाट.

... त्या निळ्या उदकांत
मात कांय सुकणीं
बुचकळून वतात.

## अतृप्त

हें ल्हार .... ?
हें ल्हार न्हय
तें दर्याचें अुसळटें रगत
भावनांचो बांद फुटून
तडीक चुमपी....
खतखतो !

अतृप्त दर्यो !
तडीक वेंगावक .....
गर्जता, अुसळटा ....
युगां कितलीं जालीं जायत !

पूण .....
ताची वेंग
कितली मोटवी !
तड ताच्यांत
भरसंच ना

तरीय तांचो प्रणय ...
उम्यार उमे ....
अतृप्त !
तृप्ततायेची वाट पळयत !!

# आडवण

हें आडवण .... ?
आडवण न्हय तें
तें इतिहासाचें पान
थंयचे फातर ....
थंयचीं झोपां
मातीन रावलां
उगडासाचें रान

तामडे दाग तेन्नाचे
आयज काळसल्यात
थंयच फुटिल्लो झरो...
ती रक्ताची व्हांवती न्हंय
आयज आटल्या !
सूर संगीताचे
सरगमताल थंय
मोगा धागे दाटल्यात !

तांबडें भडंग ....
तेन्नाचें आडवण
आयज ....
पांचवें - पांचवें पांचवेलां
अचकीत पावन
आयज हांगा
म्हजें .... कवीमन व्हिलां !

# मनीस आनी कोणतरी

ऐकटो मनीस म्हुण जल्मता
आनी मनीसूच उरता
जाल्यार दुसरो... ?
मनीस म्हूण जल्मता
आनी 'कोणतरी' जाता.

तो 'कोणतरी'
जांव राजकारणी, जांव मंत्री
चोर जांव लुटार
मनशाय परस व्हड
जाचें रूप मनशाचें
काळीज मात फातराचें !

‘कोणतरी’ सुखांत न्हाता
‘मनीस’ दुखांनी पेंवता
‘कोणतरी’ लोडेता
‘मनीस’ सुस्कारे सोड्टा.

आनी अेक दीस
दोगांचोय अंत जाता
अेके सारयेंन चंदन पेट्टा
दुसरेंन पिराडे
तरीय धुंवर, आनी गोबर
सारकोच जाता.

‘कोणतरी’ मनशाक केन्ना
वळखलोच ना, मेळ्ळोच ना
मात धुंवर मिसळून गेलो.

# वगत

भर दनपारच्या वोता कडार
थंय ....
भिण्ण काळखी रात
पसवली
आनी
उदेंतिची आशे किर्णां
दोळ्यांआड धुकेलीं.

... हें अशेंच घडपाचें
अशेंच घडटलें
आनी .....
अचकीत अेक दीस
संवसाराचें गिराण जातलें

मात्शे रावात .... !
तो वगत पयस ना.

## नदरेपलतडच्या संवसारांत

त्या थंय -
नदरेपलतडच्या संवसारांत
काळखान काळशेल्ले
बंदखणींतले दोन निरूपराधी
अचकीत मेळ्ळे
एकमेकाक मेटले
आनी सांगपाक लागले
आपआपली आपजीण ....
............
.... बंदखणींतले वळवळे
आनी
आतुरतेचे तळमळे.....
सांगपाक -
उतरां उणीं हांगा .....
ताणीं एकमेकाचे भाव
नदरेंत पारखीले
आनी.....
दुखांनी काय उमाळ्यांनी
दोगूय भिजून ....
चिप्प जाले !

# वळख

**पुराय नांव :** भालचंद्र पांडुरंग गांवकार

**जल्म :** १५ फेब्रुवारी १९६८, किटोलें - बेतोडें, फोंडें - गोंय

**शिकप :** एम्. ए. (साहित्य)

**व्यवसाय :** शिक्षक (सेमीनारी ऑफ अॉवर लेडी हायस्कूल, साळगांव) आनी प्रकाशक (मित्र प्रकाशन, किटोलें - बेतोडें - फोंडें)

**साहित्यीक वावर :** 'आडवणांतले उले' हें पयलेंच कवितांचें पुस्तक उजवाडाक येता. कोंकणी कविता जाग, ऋतू, कोंकण टायम्स्, सुनापरान्त, राष्ट्रमत, विद्या ह्या नेमाळ्यानीं आनी दिसाळ्यांनी ह्या पयलीं उजवाडाक आयल्यात. आकाशवाणी पणजी केंद्रावयल्ल्यान कवितांची वितरावणी जाल्या.

कवितां वांगडाच कथा, निबंध हेय साहित्यप्रकार हाताळल्यात. कांय प्रमाणात समिक्षात्मक बरप केलां.

कोंकणी भाशे वांगडाच इंग्लीश, हिंदी, मराठी ह्याय भासांनी बरयलां.

**बरोवपाची सुरवात :** मुळावें शिकप गावांतूच जालें कॉलेजांतले शिकप श्रीमती पार्वतीबाय चौगुले कॉलेज, मडगांव हांगा जालें. भुरगेपणांत शिकता आसतनांच साहित्याची गोडी लागली. साहित्याची गोडी आशिल्यान बी.ए. क 'इंग्लीश साहित्य' हो विशय घेतलो. इंग्लीश, हिंदी, मराठी, कोंकणी साहित्याचें भरपूर वाचन. शिकता आसतनांच गोंयच्या आनी गोंयाभायल्या कितल्याश्याच साहित्यिकांची वळख जाली.

कविता आनी निबंध सर्तींत तांका जायतीं इनामा फावो जाल्यांत. तांच्या कोंकणी कवितांची पुर्वप्रसिद्धी जाग, ऋतू, कोंकण टायम्स, सुनापरांत, राष्ट्रमत आदी दिसाळ्यांनी आनी नेमाळ्यांनी जाल्ली आसा.



आंकवार कळयांच्या
भावमोन्या ...
काळजांतल्यान पाझरलेल्यो
ह्यो मोन्यो वळी ...
सांगूक सोदतात अनवळखी
कळी
पूण ...
भावमोन्यो ...
ह्यो मोन्यो वळी
तांची ...
भासूच जगावेगळी
तोंडार हाशें ...
आनी दोळ्यांत नदर मुदयाळी